**ओरिएंट लाँगमन लिमिटेड**

**रजिस्टर्ड ऑफिस**

३-६-२७२ हिमायतनगर, हैद्राबांद ५०० ०२९

**हेर ऑफिसां**

कामाणी मार्ग, बॅलार्ड इस्टेट, मुंबय ४०० ०३८

१७ चित्तरंजन ॲव्हेन्यू, कलकत्ता ७०० ०७२

१६० अण्णा सलाय, मद्रास ६०० ००२

१/२४ असफली मार्ग, नवी दिल्ली ११० ००२

८०/१ महात्मा गांधी मार्ग, बंगळूर ५६० ००१

३६५ शहीद नगर, भुवनेश्वर ७५१ ००७

४१/३१६ 'गौर मोहन' अंबाडी लेन, चित्तूर रोड, कोचीन ६८३ ०४१

एस. सी. गोस्वामी रोड, पानबझार, गुवहाटी ७८१ ००१

३-६-२७२ हिमायतनगर, हैद्राबादं ५०० ०२९

२८/३१, १५ अशोक मार्ग, लखनौ २२६ ००१

सिटी सेंटर अशोक, गोविंद मित्र रोड, पाटणा, ८०० ००४



ISBN 81 250 0228 6

अक्षरजुळणी : ओमेगा एन्टरप्राइझेस, मडगांव गोंय ४०३ ६०१

छापपी : बिंदु आर्ट, मुंबय ४०० ०११

उजवाडावपीः ओरिएंट लाँगमन लिमिटेड,

बॅलार्ड इस्टेट, मुंबय ४०० ०३८

# जादूची बाग आनी हेर काणयो

मूळ बरोवपीः
**महेमा देवदास**

अणकारपीः
**आनंद वर्टी**



ओरिएंट लाँगमन

## मांडावळ

## १.जादूची बाग

"तें पळय कितलें सोबीत पिसोळें," शंकरान आड्डून म्हळें.

"हें निळें पिसोळें तर चडच सोबीत दिसता," ताचे भयणीन-मीनान-म्हळें. दोगूय भुरगीं बागेंतलीं फुलां पळोवन धादोस जालीं आनी पिसोळयां फाटल्यान धांवपाक लागलीं.

शारा पसून पयस अशी ती बाग आशिल्ली. रुखावळींच्या सांवळयांनी भरिल्ले शांत रस्ते आनी दोनूय वाटांनी तरेकतरांच्या रंगरंगीत फुलांनी फुलून गेल्ले रोंपे. हांगाचीं फुलां पळोवपाक शारांतले लोक येताले आनी खोस भोगून वताले. ते बागेंत आपलीं घरां बांदून राविल्लीं पिसोळीं तर त्या फुलांसारकींच सोबीत आनी रंगरंगीत आशिल्लीं. पूण तातुंतूय एक पिसोळें हेर सगळयां परस मातशें चड सोबीत आशिल्लें. ताका आमी बाय इंद्रधनू म्हणूंया. ताचीं पांखां तर अप्रूप अशा रंगांनी थळथळटालीं आनी आपूण खुबूच सुंदर दिसता हें तेंय जाणा आशिल्लें. बागेंत आयिल्ले लोक सगळे फुलांची तोखणाय करतालेच, पूण फुला भोंवतणीं भोंवर मारतल्या पिसोळयांचेंय कवतूक करताले.

बाय इंद्रधनू तर सगळयां परस चड सोबीत फुलां

भोंवतणींच उडत रावतालें. आपणाकच सगळयांनी पळोवपाक जाय होच हेतू ताच्या मनांत. सांजे वेळार अस्तमतेच्या सुर्याचीं किर्णां ताचेर पडटालीं तेन्ना तर ताचीं पांखां भांगरा वरी झिगझिगतालीं आनी जपानी नर्तिकेच्या हातांतल्या नाजूक आळण्या वरी तें भोव देखणें दिसतालें.

पूण जालें कितें? आपले सोबितकायेचे व्हडविकेन तें मातलें आनी आपणाल्या वांगड्यांक शेणून बसलें. जेन्ना सगळीं पिसोळीं म्होंव पुंजावपाक पयस वतालीं, तेन्ना हें बाय मात फाटींच रावतालें, आपणाल्या रंगरुपाचें प्रदर्शन करीत.

एक दीस दनपरां सुरेश नांवाचो एक मस्तेखोर भुरगो आपल्या आवय-बापाय वांगडा बागेंत आयलो. बाय इंद्रधनूक पळयलें ताणें आनी ताका धरपाचें ताच्या मनांत आयलें. आवय-बापूय रागार जातलीं हें जाणा आशिल्लो तो. म्हूण तो फाटल्यानूच रावलो आनी आवय-बापूय फुडें पावल्यात हें पळोवन ल्हवू, ल्हवू पावलां घालीत इंद्रधनू म्हन्यांत पावलो. इंद्रधनू एका गुलाबाच्या फुलार बसतकूच ताणें ल्हवूच हात फुडें केलो आनी ताका पांखांक धरून उखल्लें.

“वांचयात! म्हाका वांचयात!” पिसोळयांचे भाशेंत तें आड्डुलें. हेर सगळया पिसोळयांनी ताचो उलो आयकलो आनी ताका वांचोवपाक तीं धांवन आयलीं. कितलींशींच



पिसोळीं! कोण सुरेशाल्या दोळयांमुखार नाचलीं, तर कोण ताच्या नाकार बसलीं. कोण ताच्या कानांभोंवतणी फिरूंक लागलीं, तर कोण मानेर हुळहुळ्ळीं. सुरेशाक कितें करचें तें कळना जालें आनी ताणें बाय इंद्रधनूक

हातांतल्यान सोडून दिलें. ताची किंळच आयकून आवय धांवत आयली आनी भुंयेर पडून पांखां धाडायत आशिल्ल्या त्या सोबीत पिसोळयाक पळोवन ताची तीं रागार जाली. "कसलो नावाडगो भुरगो रे तूं सुरेश! त्या बाबड्या पिसोळयाक कित्याक त्रास दिता?" ताचो हात धरून तिणें म्हळें आनी ताका फरफरीत ओडून घेवन थंयच्यान गेली.

हांगा बाय इंद्रधनू पडिल्ले कडेनूच असहाय्य जावन फडफडटालें. पिसोळीं सगळीं ताचे भोंवतणी फिरतालीं. पूण कोणाकच कितें करपाचें कळनाशिल्लें. मागीर एकटें खंय तरी उडत गेलें आनी पिसोळयांच्या दोतोराक घेवन आयलें. "आरेरे! पाप गो बायचें!" तिचीं पिसुडलेलीं पांखां पळयतकूच दोतोरान म्हळें. बाकीच्या पिसोळयां कडेन पळयत ताणें सांगलें, "ते सोबीत रंग परते लायतलो जाल्यार म्हाका जाय गुलाबाच्या पांकळयांतलो नितळ गुलाबी रंग, दर्यांत बुडपी सुर्याच्या किर्णांतलो हुनहुनीत भांगराचो वर्ख, आनी किराच्या पांखांवयलो चकचकीत पाचवोचार वर्ण."

बाय इंद्रधनूच्या दोन जाणट्या सांगाती पिसोळयांनी गुलाबी रंग आनी भांगराचो वर्ख हाडून दिवपाचें कबूल केलें. पूण किराच्या पांखांवयलो पाचवो वर्ण मेळप भोव कठीण आशिल्लें. तेन्ना तांच्यांत सगळयांत शूर म्हूण नामना आशिल्लो सुभेदार लालाजी फुडें सरलो आनी धीर

दीत म्हणपाक लागलो, "हांव हाडून दितां किराचो पाचवो वर्ण. मागीर ताका लागून म्हजो जीव गेलो तरी हांव फाटीं सरचो ना!"

झाडांपेडांतल्यान, फुलां-पाकळ्यांतल्यान, कांट्या - खुट्यांतल्यान पांखां फडफडायत तो किराचें घरटें सोदूंक गेलो. निमाणें एक पाचवें चार पांख भुंयेर पडिल्लें ताचे दिश्टीक पडलें. पूण तें आशिल्लें कांट्यांच्या घोंटेरामदीं. सुभेदार लालाजी निर्शेलो ना. ताणें खूब प्रयत्न केलो आनी ताकतिकेन तें पांख कांट्यांतल्यान भायर ओडून काडून, तें घेवन अभिमानान तो परत आयलो.

सगळे रंग मेळिल्ले पळोवन दोतोर खोशी जालो. रातभर काजुल्यांच्या उजवाडांत ताणें आपणालें काम केलें आनी दुसऱ्या दिसा फांतोडेर बाय इंद्रधनू आदले वरी सोबीत दिसूंक लागलें.

हाचे उपरान्त बाय इंद्रधनूचो सभाव मात खूब बदल्लो. तें सगळ्यां वांगडा मायेन वागूंक लागलें आनी तांच्या उपकारा पडूंक लागलें. ताका हांसपी खेळपी पळोवन सुभेदार लालाजी तर भुल्लुसलो. खऱ्यानीच ताचो बाय इंद्रधनूचेर मोग आशिल्लो. थोड्याच दिसांनी ते बागेंत एक व्हड दबाज्याचें लग्न जालें आनी ताका त्या वाठारांतलीं सगळीं पिसोळीं मुजरत हाजीर रावलीं.

आयज जर तुमी म्हज्या वांगडा ते बागेंत येवन



पळोवशात, तर तुमकां एक बाय इंद्रधनू न्हय, तर तिचेवरीच दिसपी कितलींशींच माणकुलीं पिसोळीं आपले आवय वांगडा हेर पिसोळयां मजगतीं चोंय वशीन भुरकुट्टना दिसतलीं.



## २. फेस्तांत नीला

त्या दिसा फांतोडेर नीलाक बेगीन जाग आयली. उमळशिकेन ह्याच दिसाची तर तें वाट पळयत आशिल्लें. फेस्ताचो दीस!

धा वर्सांचें नीला शाळेच्या वाठारांतूच रावतालें. फेस्ताची चलिल्ली तयारी पळोवन तें भुल्लुसून गेल्लें. शाळेंतले मास्तर आनी मास्तरणी विकपाच्यो वस्तू तयार करपाच्या, एकठांय करपाच्या कामाक नेटान लागिल्लीं. मैदानांत रंगयाळे मांड रांगेन उबारिल्ले. ताची आवय तर हेड्मास्तरणीली रांदपीण. भुरग्यांखातीर गोडशें करपांत ती गुल्ल जाल्ली. नीलाचो बापूय दोन वर्सां फाटीं भायर पडिल्लो आनी तेन्ना सावन नीला आपणाले आवयक कामांत खूब मदत करपाक लागलें. सदांच सकाळीं आवय कामाक गेली की नीला घरांतलो कोयर काडटालें, आपूण जेवतालें, भावाक लायतालें. आपूण कपडे करतालें, भावाक घालतालें, आनी मागीर दोगूय जाणां शाळेंत वतालीं. तें हें सगळें खोसयेन करतालें, कारण तें जाणा आशिल्लें की ताचे आवयक त्या दोगांकूय पोसपा खातीर खूब कश्ट काडचे पडटात.

आयज तें उठ्ठकूच आपले कुडीच्या कोनशाक गेलें आनी थंय दवरिल्ली आपली पुस्तकांची बॅग ताणें

ओडून घेतली. बॅगेंतली पर्स ताच्या हाताक लागली. तेच पर्सींत तर तें थोडे थोडे पयशे जमोवन दवरतालें. ताणें पर्स उगडली आनी सवकासायेन पयशे मेजूंक लागलें. हय व्हय, सगळे पयशे आसात, वट्ट तीन रुपये पन्नास पयशे! नीलाचें तर तें भांडारूच आशिल्लें. इतले पयशे जमोवपाक ताका कितले तरी दीस लागिल्ले. मास्तरांलीं ल्हान सान कामां करून ताणें ते कमायिल्ले. केन्ना एकदां फेस्त जातलें आनी हे दुडू आपणाक खर्चुपाक मेळटले अशें ताका जाल्लें, आनी म्हणुनूच आयज ताका खूब खोस जाल्ली.

"सपनां पळयत बसूं नाका, ऊठ!" ताची आवय आड्डुली, "तुज्या कामाक लाग बेगीन." फेस्ताचो बोवाळ ताचे आवयक तितलोसो मानवनाशिल्लो. कारण फेस्त म्हणटकूच सांजवेळ मेरेन तिका काम करचें पडटालें. थोडे चड दुडू हातांत येताले खरे, आनी म्हणुनूच ती ओगी रावताली.

सांजची शाळा सुटली आनी नीला घरा धांवत आयलें. आपले आवडीचो स्कर्ट आनी ब्लावज घालो आनी हातांत पर्स घट्ट धरून तें फेस्ता दिकेन धांवत सुटलें. बरी मुस्तायकी घालून आयिल्ल्या कितल्याश्याच लोकांनी मैदान पुराय भरिल्लें. सगळे कडेन खोसयेचें वातावरण दिसतालें. संगिताचे सूर कानांर येताले, आनी तसोच बोवाळय बी. नीला एका सोबीत मांडा वयल्यान दुसऱ्या

सोबीत मांडा वटेन मुखार सरतालें आनी थंयच्यो रंगयाळयो वस्तू पळोवन तें भुल्लुसतालें. तरेकतरांचे खावपाचे, पिवपाचे पदार्थ पळोवन आनी तांचो घमघमीत वास येतकूच ताच्या तोंडाक उदक सुटलें. पूण ताणें येवजिल्लें, सगळे मांड पयलीं पळोवन घेवंया आनी मागीर थारावंया कितें घेवचें आनी कितें नाका तें.

वतां वतां तें एका टेबला कडेन पावलें. थंय कितल्योशोच वस्तू आशिल्ल्यो. पूण ताची नदर सामकी गेली ती थंयचे एके सोबीत बावलेचेर. भांगरा देगेचो लखलखीत स्कर्ट आनी तांबड्या रंगाचो पोलको घाल्लो तिणें. गळयांत एक सुंदर सरपळी आशिल्ली आनी हातांत खरीं सुपुल्लीं कांकणां. तिच्या ओंठांर तर गोड हांसो खेळटालो. "आतां म्हाका कळ्ळें, म्हाका कितें घेवचें आसा तें," खोशेन नीलान मनांतूच म्हळें आनी तें मांडार गेलें.

"कितले गे पयशे हिचे?" ताणें उमळशिकेन विचारलें.

"फक्त साडे सात रुपये, " थंय उबे राविल्ले गिरेस्त बायलेन जाप दिली. नीलाचो धीर सुटलो आनी निर्शेणेचीं दुकां ताच्या दोळयांत आयलीं.

इतल्यांत एका भियेल्ल्या भुरग्याची हुयेल ताच्या कानार पडली. ताणें फाटीं वळून पळयलें आनी कित्याक तरी आपटून सकयल पडिल्लो तो भुरगो तिका दिसलो. नीला ताचे लागीं धांवत गेलें. ताणें ताका उठोवन उबो

केलो, ताचीं दुकां पुसलीं आनी ताचे नवे मुस्तायके वयली धूळ झाडून ती सारकी केली. "आई, आई," तो रडटालो , "म्हजी आई खंय गेली?"



"आमी सोदून काडुंया हां तिका," नीलान ताका समजायलें.

दोगांय मेळून त्या भुरग्याचे आवयक सोदूंक लागलीं. नीलाचें बोट धरून तो भुरगो चलतालो. मुखा वयल्यान एक आइस्क्रिमाची गाडी आयली. आइस्क्रीम! महेशाक आइस्क्रीम खावपाक जाय! तो भुरगो आडुलो. ताचें रडें थांबलें आनी तोंडावळो परजळ्ळो. नीलाक ताणें परतें रडूंक नाका आशिल्लें. ताणें सट् करून आपले

पर्सींतल्यान एक रुपया काडलो आनी ताका एक चॉकलेटीचें आइस्क्रीम घेवन दिलें. त्या भुरग्याल्या तोंडार लख्ख हांसो फुलून आयलो. नीला आनी तो दोगांय परतीं लोकांचे गर्देंत ताचे आवयक सोदूंक लागलीं. नीला आतां खूब दमिल्लें. तची आवय मेळटा काय ना म्हणून तें चिंतेंत पडिल्लें आनी ताची निमाणी आस्तय बी सरूंक लागिल्ली. पूण अचानक त्या भुरग्यान नीलाचें बोट सोडलें आनी तो निळया पातळांतले एके बायले कडेन धांवन गेलो.

"महेश, दीपक खंय रे? तुज्या भावाचो हात सोडून खंय गेल्लो धांवन?" खरशेत-खरशेत महेशान आपले आईक घडलें तें सगळें सांगलें. निमाणें, लजून कुशीक उबें राविल्ल्या नीला कडेन बोट दाखयत ताणें सांगलें, "हिणें म्हाका आइस्क्रीम घेवन दिलें." ते बायलेची नीला कडेन नदर गेली. ताचो तो विटको स्कर्ट आनी बाविल्लें तोंड पळयतकूच तिच्या काळजांत चर्र जालें. तिचे कडेन हांसून पळयत तिणें म्हळें, "महेश म्हणटा की तुंवेंच ताका सोदून दिलो; आनी आइस्क्रीमूय घेवन दिलें खंय. कितलें शाणें बाय गो तूं! नांव कितें तुजें?" "हांव नीला. म्हजी आवय हांगा हेड्मास्तरणी कडेन रांदपाक आसा." तें आनिकूय कितें कितें सांगपाचें आशिल्लें; पूण तितल्यांत तीं सगळीं उबीं आशिल्लीं थंय दीपक धांवत आयलो. "आगे आई! महेश

मेळ्ळो? बरें जालें बाबा! तें बाण मारपाचें दुकान आसा न्हय, थंय हांवें हाका सांगिल्लें की तूं मातसो उबो राव; हांव एक बाण मारून येतां. हाणें थंय रावपाचें न्हय? थोड्या वेळान हांव फाटल्यान पळयतां तर हो नाच् जालो."

"तसलोच मस्तो चलो तो." ताचे आवयन म्हळें, "पळय, खंय तरी पडलो आनी मुस्तायकी सगळी धुळीन भरली. मागीर ती नीला कडेन वळ्ळी आनी हांसत म्हणपाक लागली, "नीला, तुजे उपकार मानतां हांव, तूं नाशिल्लें जाल्यार महेशाक ख्यास्त भोगतली आशिल्ली. हे घे पयशे; तुका जाय तशे खर्च कर."

पांच रुपयांची ती नोट पळोवन नीलाक अजापूय जालें. कितें उलोवपाचें हेंच ताका कळना जालें. ओंठां-ओंठांत तें पुटपुटलें , "बरें जावं, मावशे!"

ताचे उपरान्त, कांय वेळान एक सान चली आपल्या घराचीं मेटां चडटना लोकांनी पळयली. खोशेन तिचे दोळे सामके लकलकताले आनी तिचे हाण्डीर भांगराचे देगेचो निळो स्कर्ट आनी तांबडो पोलको घाल्ली एक बावली गुरगुटून बशिल्ली.



## ३. 'मोगाळ सायबा..'

ही एक खरी गजाल आसा, कळ्ळें मूं? तिचे विशीं इल्लोय दुबाव नाका, कारण प्रियानूच ती म्हाका सांगिल्ली, आनी प्रिया केन्नाच फट उलयना. शिवाय हांवें तो फोटोय पळयला. आतां फोटोच आसा म्हणटकूच ती गजाल खऱ्यानीच घडिल्ली हें मानुंकूच जाय न्हय?

प्रियाचो बाबा इंडियन ॲम्बेसींतलो एक अधिकारी. ताची सिंगापुराक बदली जावन तो थंय गेलो तेन्ना प्रिया आनी तिची आई दोगांय वांगडा आशिल्लीं. प्रिया तेन्ना धा वर्सांचें.

पणजेंतल्या आपल्या इश्टिणींक सोडून वतना प्रियाक खूब वायट दिसलें. पूण एक फावट सिंगापुरा पावले उपरान्त तें नवो गांव, नवे लोक पळोवन खोशी जालें. आपल्या स्कुलांत ताणें चिनी, मलेशियन इश्ट-इश्टिणी जोडून घेतल्यो. सिंगापुरांतलो थंड वारो, पाचवोचार सैम, थंयची सोबीत, मोटवी दर्या देग, वाऱ्यार धोलपी माड ताका खूब मानवले. थंय मेळपी रसाळ फळां तर ताका खुबूच आवडटालीं. तांचीं परदेशी नांवांय कितलीं विचित्र आशिल्लीं! 'दुरियांव' खंय, 'रांबुरान' खंय, आनीक कितें? 'मंगुस्तान!'

प्रियान थंय आसतना दोन नवे छंद जोडले. एक

म्हळयार तिकेटी पुंजावप आनी दुसरो नामनेच्या मनशांच्यो सयो घेवप. सुरवेक तें खूब लजेतालें. जाणट्या मनशांमुखार भियेत भियेत वतालें आनी थरथरपी आवाज़ान सय दितात काय म्हूण विचारतालें. पूण ताका मागीर कळ्ळें की भियेवचेलें कांय कारण ना. चडशे लोक हांसतात आनी आपूण जावन सय दिवपाक तयार जातात. मागीर मात ताची भीड चेपली आनी ते सामकें धीट जालें.

ताका आपलें सयांचें पुस्तक खूब आवडटालें सोबीतपणान बांदिल्लें पुस्तक तें भितर फिकट गुलाबी, निळया, पाचव्या आनी हळडुव्या रंगांचीं पानां आनी वयलें कव्हर दाट काळसर कुकमा रंगाचें. ल्हवुल्हवू ताणें खुबशा लोकांल्यो सयो मेळयल्यो. तातूंत नामनेचे व्हड अधिकारी आशिल्ले, मंत्री आशिल्ले, दोन-तीन फामाद नटयो आशिल्ल्यो. ताच्या आवडीच्या कांय मास्तरांनी आनी ताच्या खाशेल्या इश्टांनीय तातूंत कितें कितें बरोवन सयो केल्ल्यो. फाविल्ल्या वेळांत प्रिया तीं पानां परतितालें आनी मागीर ताका तरेकतरांच्यो यादी येताल्यो. तिच्या इश्टांनी बरयल्लीं कवनां वाचून तें धादोस ज़ातालें. तांणी काडिल्लीं चित्रां पळोवपांत रमून वतालें.

एका शेनवारा तिच्या बाबान तिका आपोवन म्हळें, "आगो प्रिया, बंदराचेर इंग्लंड सावन एक नवी व्हड

बोट आयल्या. हांव आयज पळोवपाक वचचों आसां. येता तूं?" "खोशेन!" प्रियान जाप दिली. सांजवेळां तीं दोगांय सिंगापुरच्या त्या नामनेच्या बंदरार पावलीं.

"बाबा, ती पळयत कितली व्हडली क्रेन, बोटीर मोटार कार चडयता!" प्रिया खूब उमेदीन उलयतालें."बाबा, दर्याचो रंग पळय कितलो सोबीत निळो न्हय?" ताका कितें सांगूं आनी कितें नाका अशें जावन गेल्लें. खीण भर लेगीत ओगी रावनाशिल्लें तें.

इंग्लंड सावन आयिल्ली ती व्हड बोट एके जपानी बोटीक तेकून आशिल्ली. चकचकीत , लांबोडी, सोबीत दिसताली ती! हंसावरी ल्हारांर ल्हवूच धोलताली. तिचे मजगतीं एक ऊंच खांबो आशिल्लो आनी ताचे वयलीं बोंदेरां वाऱ्यार फडफडटालीं. केबिनांच्यो रांगांच्यो रांगो माळयां वरी एकार एक रचिल्ल्यो आनी तिचो लखख धवो रंग वतांत तिकतिकतालो.

प्रिया आनी ताचो बाबा बोटीक लायिल्ले निसणी वयल्यान बोटीर चडलीं. प्रियान बाबालें बोट गच्च धरून दवरिल्लें. दोनूय वाटांनी खोल उदक. ताणें ते वटेन नदरूच व्हेली ना. एका हांसकुऱ्या खलाशान तांणी हाडिल्ली चीट पळयली. "येयात, तुमकां येवकार दितां." ताणें म्हळें, "आनी बाय, तुकाय बी येवकार दितां."

हे वटेन ते वटेन तांणी सगळी बोट फिरून पळयली.

बोटीवयलें जिणें, थंयचे आवाज तांणी सामके लागसून अणभवले. तें सगळें पळोवन प्रिया तर भुल्लुसून गेल्लें. बापाय कडेन ताणें म्हळें, "बाबा, ह्या बोटी वयल्यान पयसल्या देशाचो प्रवास करपाक मेळ्ळयार खूब मजा येतली न्ही?" "व्हय तर!". बाबानूय आपली संमती दाखयली.

एके केबिना मुखा वयले वाटेन वता आसतना मंद, मधूर संगिताचे सूर तांच्या कानांर पडले. "भितर कितें चल्लां काय?" केबिनाचें दार धुकलीत प्रियान मनांतल्या मनांत म्हळें. भितर पळयतकूच ताका अजाप जालें. व्हडलो हॉल आशिल्लो तो. आनी भितर एक पार्टी चलताली. सान सान टेबलां भोंवतणी लोक बशिल्ले. आनी आपसांत उलयताले. धवी मुस्तायकी घाल्ले वेटर्स हातांत खावपा-पिवपा वस्तूंचीं ताटां घेवन हांगा-थंय करताले.

"चल प्रिया, आमचो परतुपाचो वेळ जालो," बाबान प्रियाक आपयलें.

"एक मिनीट बाबा," आनी प्रियान तें दार ल्हवूच धुकल्लें. "हांकां तर हांवें खंय तरी पळयला," प्रियान मनांतूच म्हळें आनी एका खिणाचीय उसरपत घेनासतना तें सट् करून भितर रिगलें. हॉलाच्या मदेंसराक कांय अधिकाऱ्यां मदीं एक ऊंच, धिप्पाड, गोरो मनीस उबो राविल्लो. ताच्या झेता वयल्यान तो सगळयांत व्हड

अधिकारी म्हूण ध्यानांत येतालें. हांगा प्रिया खंय गेलें म्हूण अजापान तिचो बाबा सोदता तर थंय प्रिया सामकें त्या मनशा लागीं पाविल्लें. "सायबा, तुमी दक्षीण-पूर्व आशियाचे गव्हर्नर जनरल लॉर्ड एड्मंड बिव्हरब्रूक न्हय? म्हाका तुमची सय दिशात?" धीटपणान ताणें ताका विचारलें.

लॉर्ड बिव्हरब्रुकान फाटीं वळून पळयलें आनी तो मुमुरखोच हांसलो. ताचे मोगाळ, निळे दोळे परजळ्ळे. एक सान चली ताचे मुखार अचकीत येवन उबी राविल्ली! निळया रंगाचो स्कर्ट-ब्लाउज, फाटीर दोन मोटव्यो विणयो. सोबीत काळे दोळे, उमेदीन उपाट भरिल्ले. गोबऱ्या गालाचें शिटूक प्रिया बावली कशें दिसतालें. "हय व्हय, हांवूच तो बाये," ताणें म्हळें. "पूण पयलीं तुजें नांव कितें तें सांग म्हाका."

"प्रिया." लजून ताणें सांगलें, "प्रिया आमोणकार."

"सोबीत चलयेक सोबीत नांव," ताच्या सयांच्या पुस्तकांत सय करीत ताणें म्हळें. कॅमेऱ्यांचे 'क्लिक' अशे आवाज आयले. चक्क करून खीण भर दिवे पेटले. प्रियान ताचे उपकार मानले आनी आयलें तशेंच तें दारांतल्यान भायर सरून आपणाल्या बाबा लागीं पावलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं आमोणकारांनी दिसाळें हातांत घेतलें. ऑफिसाक वचचे पयलीं नव्यो खबरो कळपा खातीर व्हड अक्षरांतले माथाळे तितले नदरे खाला

घालप तांगेली सदांची संवय. आयज तांणी दिसाळें पळयलें आनी प्रियाक उलो मारलो. प्रिया धांवतूच आयलें. दिसाळ्याच्या पयल्याच पानार एक फोटो छापिल्लो आनी ताचे सकयल व्हड अक्षरांत मजकूर आशिल्लो.



'प्रिन्सेस बोटीचेर व्हडले सायब, लॉर्ड बिव्हरब्रूक
प्रिया आमोणकाराच्या पुस्तकांत सय करतना.'
त्या दिसा प्रियाचें घर खोशेन उपाट भरिल्लें. प्रियाचे

शाळेंत तर ताचे टिचरीन तो फोटो कापून नोटीस बोर्डार लायलो.

अशीं बरींच वर्सां गेलीं. प्रिया आतां परतें गोंयांत आयिल्लें.

तें धावेच्या क्लासांत आशिल्लें. एक दीस तें शाळेंत वचपाक भायर सरिल्लें तेन्ना ताचे आवयन ताका आपयलें आनी त्या दिसाच्या दिसाळयांतली एक खबर दाखयली.

'लॉर्ड बिव्हरब्रूक हांची ब्रिटिश हाय कमिशनर म्हूण नवे दिल्लींत नेमणूक.'

ह्या माथाळया सकयल तांचो सानसो परिचय बी दिल्लो. प्रियाक भोव आनंद जालो. "आतां हांव तांकां चीट बरयतलें," ताणें म्हळें.

आनी ताणें खरेंच तांकां एक चीट बरयली. थोड्याच दिसांनी एका फिकट निळया कव्हरांत ताका जाप आयली. म्हाका आजून तुजी याद आसा, अशें तांणी बरयल्लें. इतलेंच न्हय, तर तूं अशेंच म्हाका चीट धाडीत राव, अशेंय तांणी ते चिटयेंत सांगिल्लें. आनी अशे तरेन दोगांय मदीं हो वेगळेच धाटणेचो पत्र- वेव्हार सुरू जालो. एके वटेन नामनेचो, जाणटो व्हड ब्रिटीश अधिकारी आनी दुसरे वटेन नेणटी, शाळेंत वचपी भारतीय चली. तिचे चिटयेंत ती आपली शाळा, इश्टिणी, सुटये दिसा केल्ल्या प्रवासांचीं वर्णनां बी बरयताली. लॉर्ड बिव्हरब्रूक

सोप्या उतरांनी ताच्या शेका तळा जाल्यो बसका, तांणी पळयल्लीं नवीं शारां , प्रधानमंत्र्यां वांगडा जाल्लीं तांचीं उलोवणीं आनी मनांत नासतनाय वचपाची गरज आशिल्ल्यो वाज येवपी 'पार्ट्यो' हांचे विशीं बरयताले. तांची इश्टागत अशी वाडत गेली आनी प्रिया तांकां बरोवपाच्या पत्राची सुरवात अशी करूंक लागलें, 'म्हज्या मोगाळ सायबा!...'

फाटल्याच सप्तकांत हांव प्रियाक मेळिल्लों, तेन्ना ताणें सांगलें की निकतेंच ताका ताच्या त्या खूब पोरण्या इंग्लीश इश्टाकडल्यान एक चीट आयल्या. येता त्या सप्टेंबरांत तांचे मदले हे सोबीत, मायेस्त इश्टागतीक वीस वर्सां पुराय जातलीं! अजापाचीच खबर, न्हय? आनी हाची सुरवात कशी जाली सांगात!

त्या सानशा कुकमा रंगाच्या सयांच्या पुस्तकान. हय काय न्हय?



## ४. सुजाता आनी चिंग मिंग

सुजाता खोशेन आडुलें. ताच्या वाडदिसाक ताका कांय भेटो मेळटल्यो हें तें जाणां आशिल्लें. पूण इतल्यो भेटो! आवयस! ताचें अभ्यासाचें मेज सामकें भेटींचे राशीन भरून गेल्लें. तें एकेक कास उगडून पळोवपाक लागलें, आनी कितें अजाप! कितल्योशोच वस्तू ताका जाय आशिल्ल्यो तशोच दिस्त आशिल्ल्यो.

"एऽ आळशांचे राणये, पुरो जालें आतां. कितल्यो सवकासायेन उगडटा त्यो काशी?" ताच्या भावान, विक्रमान म्हळें, "हो पळय, तुजे खातीर हांवें हो पेटारो हाडला! हो उगडून पळय बेगीन, तातूंत कितें आसा तें." ताणें तो पेटारो बळयांच सुजाताच्या हाताक तेंकयलो.

'हाचें आनीक एक अवचिन्नपण आसत काय सांगूं नज. मस्तेखोरूच तो. पेटाऱ्यांतल्यान बेबकी बी हाडल्या काय कितें?' अशें मनांत म्हणत सुजातान दुबावानूच तो पेटारो उगडलो. भितल्ल्यान दोन निळे निळे दोळे ताचेकडेनूच पळयताले. फाटोफाट बारीक, मोव आवाज आयकूंक आयलो, 'मियांव!' सट् करून ताणें ताका भायर काडलें आणि ताका वेंगेंत घेवन तें नाचपाकूच लागलें.

"कितलें सोबीत, गुबगुबीत आसा!" भुल्लुसून सुजातान म्हळें.

"खरेंच गो, गुरगुटून बसलां पळय कशें!," ताचे ावयन म्हळें. "ती माटुंग्याक रावपी तेंडुलकार मावशी ाबर आसा तुका? ती फुडल्या म्हयन्यांत अमेरिकेक ता पुता कडेन रावपाक. तिचे कडसूनच हाडलें हाका. अस्सल सयामी माजर गो. म्हणुनूच ताचे दोळे पळय कतले निळे आसात ते. तें व्हड जातकूच ताच्या ानाची पाळी, ताचें तोंड आनी शेंपडी किरमिजी ाची जातली आनी ताच्या धव्याफुल्ल आंगाक ल्हवूच कट कॉफीचो रंग येतलो."

"ताका खंयच्या नांवान उलो मारुंया आई? म्हजें पुर्बायेचें बाय गो तें. ही म्हाका मेळिल्ली खरी सोबीत ट. म्हजें कुकुलें बाय तें...!" त्या माजराच्या पिलाक ांसपीत सुजाता उलय उलय उलयतालें. ताका लागून जाताक इतली खोस भोगताली की ताका थांबूंकच ायनाशिल्लें.

अशे तरेन सुजाता आनी चिंगमिंग दोगांलीय इश्टागत ळून आयली. चिंगमिंग खऱ्यानीट पयलीं मातशें ायेल्लें. तें बाजेच्या पोंदा वचून लिपतालें आनी आपले ावयक उलो मारिल्ले वरी रडटालें. कोणूय ताका रूंक गेल्यार आपलें सगळें आंग घट्ट करून आंगा यले केंस फुलयतालें. पूण सुजाता आनी ताचे आवयन ाका ल्हवुल्हवू फुसलायलें. ताका तीं मोगान ापटितालीं, ताचे कडेन मायेन उलयतालीं आनी दूद

आनी नुस्तें खावपाक घालतालीं. सुजाताक तर चिंगमिंग बगर चैन पडनाशिल्ली. ताचे नदरेक तरेकतरांचीं खेबाडां करपी ती एक हांसकुरी परीच आशिल्ली. केन्ना केन्नाय सुजाता चिंगमिंगा मुखार हातांत दोरी घेवन नाचयतालें. दोरयेक हुंदीर लेखून चिंगमिंग उडक्यो मारतालें. केन्ना केन्नाय दोंगांय मेळून आपलिपा खेळटालीं. चिंगमिंगान सुजाताक सोदून काडलें की तें खो करून हांसतालें आनी ताच्या हांशान सगळें घर भरून वतालें. रात पडटकूच चिंगमिंग सुजाताल्या हातुळणार चडटालें, आनी ल्हवूच ताचे कुशींत सरून शांतपणान न्हिदतालें.

एक दीस सुजाता आनी ताच्या घरांतलीं सगळीं जाणां सिनेमा पळोवंक गेल्लीं. परत येतासर उशीर जाल्लो. मोटार घरा लागीं पावली आनी तांचे पाळणींत वळळी मात, तिची लायट रस्त्या देगेक निश्चेश्ट पडिल्ल्या एका माजराच्या आंगार पडली. "बाबा, मोटार थांबय!" सुजाता आड्डलें. मोटार थांबयतकूच ताणें दार उगडून सकयल उडी मारली आनी तें धांवतूच त्या माजरा कडेन पावलें. नक्कीच तें सयामी माजरूच आशिल्लें. सुजाताच्या दोळयांत दुकां भरून आयलीं. "आई, आई, चिंगमिंग मेलें गेऽ," रडतूच ताणें म्हळें.

आवयन ताका समजावपाचो यत्न केलो. "बाय तें म्हजें, रडूं नाका गो. अपघातांत मेलें दिसता. आतां

आमच्या हातांत कांय ना. बेठें रडून तरी कितें उपेग?"

सगळयांकूच भारी दुःख जालें. असलें कांय मनाक न लावन घेवपी विक्रमूय बावलो. पूण भयणीचें लक्ष दुसरे कडेन व्हरपा खातीर ताणें विचारलें, "ए, सुजाता, तुका इस्पिकां जादू करून दाखोवं हांव?"

सुजातान 'नाका' ह्या अर्थान मान हालयली. तें रडतूच आशिल्लें आनी ताचें तोंड सुजिल्ले वरी दिसतालें. सवकास माळयेर गेलें, कपडे बदल्ले आनी तें आपले न्हिदचे कुडींत गेलें. कांय खिणांतूच तें किंळच्यो मारीत इस्कादे वयल्यान धाड् धाड् पांय आपटीत धांवत सकयल आयलें.

"आईऽ भूत! हांवें भूत पळयलें!" भियेवन थरथरपी ते चलयेक आवयन म्हऱ्यांत घेतलें.

"हें आनी कितें गो? कितें पळयलें तुंवें?" आवयन मोव आवाजान विचारलें. "चिंगमिंग! चिंगमिंग गे! ताचें भूत, म्हज्या हातुळणार न्हिदलां!"

"पोर म्हजें भियेलां तें! बेंठेंच कितेंय येवजिता गो बाय? कितें आसा तें पळोवंया आमी," आवयन म्हळें. सगळीं जाणां सुजाताचे न्हिदचे कुडींत गेलीं. सगळयांत पयलीं विक्रम दोन दोन सोपणां चडून फुडें पाविल्लो.

"तुज्या हातुळणार तर कांय ना सुजा." ताणें म्हळें, 'कितलें भित्रें गो तूं!"

ताणें आनी कितेंय उलोवचे पयलींच 'मियाँव, मियाँव'

असो आवाज आयकूंक आयलो आनी बाजे पोंदसून चिंगमिंग भायर आयलें.

सगल्यांनी ताचे कडेन अजापान पळयलें. सुजाताचो बापूय गोंदळ्ळो. "म्हाका दिसता, म्हजें वक्त बदलूंक जाय," ताणें म्हळें. "कितलें त्रास दिता हें माजर. हाका मारूनच उडोवपाक जाय." रागान म्हणत विक्रम थंयच्यान चलूंक लागलो. सुजाताचे आईन मात त्या पिलाक उखलून घेतलें आनी ल्हवूच थापटिलें.

"सुजाता, हें खऱ्यांनीच चिंगमिंग गो. ताचें भूत न्हय." तिणें म्हळें, "आमकां रस्त्यार दिशिल्लें तें दुसरें खंयचेंय तरी सयामी माजर आसतलें. बाबडें वाट चुकून आयिल्लें जायत. हाका लागीं घे."

अनमनतूच सुजातान ताका आपल्या हातांत घेतलें. खोशेन गुरगुरतूच तें ताचे वेंगेंत गुरगुटून बसलें.

अशीं दोन वर्सां गेलीं आनी एक दीस अचकीत चिंगमिंग ना जालें. सुजातान एक दीस वाट पळयली. दुसऱ्या दिसा ताका खरीच भिरांत पडली. सगळ्या दिकांनी ताणें सोदून पळयलें. आपल्या इश्टिणींक विचारून पळयलें. अनवळखी लोकांकूय विचारलें, म्हज्या चिंगमिंगाक पळयलां तुमी काय म्हूण. कोणेंच पळोवंक नाशिल्लें.

सुजाता खूब निर्शेलें. "ओगीच हुस्को करूं नाका गो, तें येतलें परत," ताची आवय ताका सांगताली. पूण

सुजाताचे दोळे दुकांनी भरून येताले."ना गे आई, तें शेणलें. कायमचेंच गेलें तें. आतां परतें कशें येतलें? हांव करूं तरी कितें, सांग मगे, " काकुळटेक येवन तें म्हणटालें.

चिंगमिंग सांडल्यार आतां स म्हयने जावन गेल्ले. सुजाताक दुसरें माजरा पील हाडून दितां म्हूण ताच्या आवय-बापायन सांगलें, तरी तें तयार जायनाशिल्लें. "दुसरें खंयचेंय माजर म्हज्या चिंगमिंगा वरी आसचें ना," तें म्हणटालें.

एक दीस सुजाताच्या आत्यालो टेलिफोन आयलो, "आगो, आयच्या टायम्साच्या दुसऱ्या पानार पळय, तुमचे खातीर एक खबर आसा." सुजातान तिका फुडें कितेंय विचारचे पयलींच फोनाचो 'क्लिक्' असो आवाज जालो. सुजाता पेपर घेवन आई कडेन धांवन आयलें. दोगांय उमळशिकेन दुसरें पान उगडून वयर सकयल पळोवंक लागलीं आनी दोगांचीय नदर एके जायरातीर पडली.

'मेळ्ळां, एक सयामी माजर. वळख दाखोवन
घेवन वचात- ४, कृष्ण मंदिर रस्तो, जुहू.'

"आई, आमी आत्तां वचुंया,' खोशेन नाचत सुजातान म्हळें.

"आगो, आत्तां म्हाका येवप शक्य ना. ओव्हनांत केक करूंक दवरला न्ही. विक्रमाक विचार, तो येता जाल्यार."

सुजाता धांवन विक्रमा कडेन गेलें. तो तापलो, "तुजें माजर म्हणजे- शेणलें तरी पिडा दिवपी. क्रिकेट खेळपाक म्हजे इश्ट सगळे वाट पळयत आसात. फाल्यां वचुंया" पूण खंयचेंच निमीत आयकून घेवपाची सुजाताची तयारी नाशिल्ली.

"विकी, अशें करूं नाका रे. मातशी म्हाका मदत कर रे. तूं गुणाचो भाव न्ही म्हजो, यो मरे." ताणें विक्रमाची विनवणी केली. निमाणें विक्रम कबूल जालो आनी तीं दोगांय बसींत वसून दर्यादिगे वयल्या जुहूक पावलीं. मोडणां घेत वचपी वाटेच्या दोनूय वाटांनी सोबीत बंगले आशिल्ले. बंगल्या भायर फुलझाडांच्यो माणकुल्यो बागो.

"ए विकी, म्हाका भंय दिसता रे. तें चिंगमिंग उरत, न उरत."

"अशें निर्शेवं नाका. आमी पावलीं लागीं," विक्रमान म्हळें.

तीं खरींच त्या घरा मुखार पाविल्लीं. नळयांचें पाखें आशिल्लें तें एक पोरणें घर आशिल्लें. घरा मुखार दर्या आनी भोंवतणी व्हड बाग.

सोपणां चडून तीं घराच्या मुखेल दारा मुखार येवन उबीं रावलीं. भितर लांबूच लांब सोपो. घरांत कोणूच ना आनी भितर तर काळोख.

"अजाप बाबा!" म्हणत विक्रमान दाराची खिळी वाजयली.

धव्या केंसांचो एक ऊंच म्हातारो भायर आयलो. "कोण तुमी? कित्याक आयल्यांत?" ताणें विचारलें.

विक्रमान पेपराचो कापून हाडिल्लो कुडको फुडें केलो. "तुमची जायरात आमी पळयली. म्हजे भयणीचें एक माजर शेणलां. तिका दिसता, हेंच आसत तें," विक्रमान सांगलें.

तो मनीस सुजाताक पळोवन म्हणपाक लागलो, "बाय, तूं कशें वळखतलें? हे मुंबयंत अशीं सयामी माजरां खूब आसात."

"हांव जाणां, ताचे सारकें गुणी माजर अख्ख्या संवसारांत सोदून मेळचें ना. ताचे वरी दुसरें कोणूच आसचें ना," सुजातान नेटान सांगलें.

ताचें सादेपण पळोवन तो मनीस मुमुरखोसो हांसलो. "बरें तर बाय, माजर भितर आसा. आमी सगळीं हांगाच रावंया. तूं ताका आपय. तें तुजो उलो आयकून भायर आयलें जाल्यार तूं घेवन वच ताका."

सुजातान मनांतल्या मनांत देवाची प्रार्थना केली. एक खोल स्वास घेवन ताणें आपयलें, "चिंगमिंग, चिंगमिंग."

भितरल्यान कांयच आवाज आयलो ना. "मातसो मोठ्यान उलो मार," विक्रमान सांगलें. ताणें परत एक फावट निर्शेल्ल्या सुरांत उलो मारलो, "चिंगमिंग, एऽ चिंगमिंगऽ."

मोव आवाजान भितल्ल्यान 'मियांव' अशी जाप

आयली आनी फाटोफाट चार माणकुले पांय दुडदुडायत तें माजर भायर आयलें. आयलें तें सामकें सुजाता कडेनूच गेलें. सुजातान ओणोव घेवन आपणाले हात फुडें केले. "चिंगमिंग" ल्हव आवाजान ताणें म्हळें, ते सरशीं त्या माजरान ताचे कडेन झोंपय घेतली.

दोगांयची अशी भेट घडिल्ली पळोवन तो मनीस खूश जालो आनी हांसत म्हणपाक लागलो, "तें तुका आजूनय विसरिल्लें ना, न्हय?"

चिंगमिंगाक आपले कुशींत घेवन घरा परततना सुजाताक खूब्ब खोस जाल्ली...कितली तें हांवें तुमकां सांगपाची गरज ना.



## ५. ललिता स्टेशनार वता

तुमकां दिशिल्लें जावंये की ही काणी आगगाडयांची, त्यो येवपी-वचपी स्टेशनाची, थंयच्या बोवाळाची, ना जाल्यार थंयच्या स्टेशन मास्तराची, ललितान ताची कशी वळख करून घेतली ताची, थंय घडिल्ल्या एकाद्र्या अपरूप प्रसंगाची. ना, अशें कांय ना. तुमचो समज साप्प चुकीचो. कारण, खरें सांगपाचें जाल्यार, ललिता स्टेशना मेरेन पावलेंच ना. ते स्टेशनार वचपाक भायर सरिल्लें, हें मात खरें आं!

ताचें अशें जालें. ताचो इश्ट डेव्हीड अमेरिके सावन आयिल्लो. तशें पळयल्यार तो ताच्या बापायचो इश्ट. ताचो पपा वाशिंग्टनांत आसतना थंयच्या कॉलेजांत तो ताच्या वांगडाच काम करतालो. ललिताचो पपा आनी ममी दोन वर्सां अमेरिकेंत राविल्लीं आनी ताचीं तीं दोन वर्सां खूब खोशेन गेल्लीं. तीं कॉलेजीच्या वाठारांतूच रावतालीं. आनी ललितान थंयच्या कितल्याशाच विद्यार्थ्यां वांगडा इश्टागत जोडिल्ली. डेव्हीड तर ताका फाटीर बांदून वरांचीं वरां भोंवतालो. ताका बागेंत घेवन वतालो, ताचेर बर्फाचे गुळे मारतालो. ताचेच पिरायेचो अशिल्ले भशेन तो ललिता वांगडा खेळटालो.

तांकां मेळपाक वास्को येतां म्हूण डेव्हीडाची चीट आयली आनी ललिता खोशेन उचंबळून आयलें. तो

तांच्या वांगडा धा दीस रावलो. खूब मजेंत गेले ते दीस! तो खंय भायर गेल्लो नासत वा पपा वांगडा घुस्पागोंदळाच्या राजकारणाचेर उलयत बशिल्लो नासत जाल्यार ललिता ताचो हात धरून ओडीत ताका बागेंत व्हरतालें. हांगा बर्फाचे गुळे करूंक येनाशिल्ले खरे, पूण दर्यावेळेर खेळपाक मात खूब मजा येताली. डेव्हीड आनी ललिता सूर्य बुडटनाचो देखाव पळोवपाक सदां सांजचीं दिस्त वेळार थंय वतालीं. डेव्हीड आपणाल्या कॅमेऱ्यान क्लिक् क्लिक् आवाज करीत फोटो काडटालो, जाल्यार त्या वेळार ललिता वेळे वयले शंख पुंजायतालें. कांय वेळान तो म्हणटालो, "चल, आमी खेळुंया." मागीर तीं ल्हारांत पांय घालून उदकांत नाचतालीं. रेंवेचो गुळो करून झेलतालीं, रेंवेंत किल्ले बांदतालीं. डेव्हीड ललिता वांगडा खेळटा आसतना मातसोय बेजारनाशिल्लो. "हो तर सामको स फूट ऊंच मनीस, पूण जाणटो जालोच ना काय कितें?" ललिता मनांत म्हणटालें.

आयज डेव्हीड आपल्या गांवाक परतून वचपाचो आशिल्लो म्हूण ललिताक भोव वायट दिसतालें. "डेव्हीड्, तुका खरेंच परतें वचपाक जाय?" ताणें ताका अशें धा फावटीं तरी विचारिल्लें जायत.

"हय गो, म्हज्या बाय. हांव परतून फुडल्या वर्सा येता आं. मुजरत येतां," ताणें म्हळें.

दोगांय दर्यावेळे वयल्यान घरा आयलीं. आयचो दीस

कसो सोंपत वता ललिताक कळना जालें. सांजे सात वरांचेर मुंबय वचपाची ट्रेन आशिल्ली म्हणून डेव्हीड, ललिता आनी तिचो पपा एक वरा पयलींच घरांतल्यान भायर सरलीं.

तांची मोटार बंदरा देगेन वचून मार्केटा सावन फुडें पावली, "थांब पपा!" अचकीत ललिता आड्डलें, "हांगा ॲक्सिडेंट जालासो दिसता." नक्कीच थंय कितें तरी घडिल्लें खरें. एक रिक्षा आनी पडिल्ले सायकली भोंवतणी लोकांनी गर्दी केल्ली.

"तूं मोटारींतूच राव." पपान ललिताक सांगलें आनी तो दार उगडून भायर आयलो. "डेव्हीड, यो मातसो. तांकां कितेंय मदत करपाक येता काय पळोवंया," पपान म्हळें.

सायकलवालो रिक्षावाल्यांचेर आड्डतालो, "तूं पिसो काय कितें रे? रिक्षा चलोवपाक कळना काय कितें तुका? पळय म्हजी सायकल सगळी मोडून उडयली."

"कोण पिसो, हांव कांय तूं? घरा सांगून आयिल्लो की आज हांव मरपाक वतां म्हूण. कितें सायकल मारता? सर्कशींत वचपाचें मनांत आसा काय कितें तुका ? बेठोच झेत मारता!" रिक्शा चलोवपीय कांय उणो नाशिल्लो. तोय व्हड आवाजान आड्डतालो.

"बरें जालें. कोणाक कांय लागूंक ना. तो पळय, पोलीस बी हे वटेनच येवपाक लागला. आमी वचुंया," ललिताल्या पपान म्हळें.



"एक मिनीट थांबात. हाचो बरो फोटो काडूंक येत," डेव्हीडान म्हळें आनी तो त्या लोकांचे गर्देचो, रागान तापतल्या रिक्षा चलोवप्याचो आनी आडुतालो तरी रडपाक आयिल्ल्या त्या सायकलवाल्याचे फोटे घेवपाक लागलो.

ललिताल्या पपान आपले घडयाळीकडेन पळयलें. "आरे डेव्हीड, उशीर जालो. फक्त धा मिनटां उरल्यांत!" ताणें डेव्हीडाल्या खांदाक धरून ताका मोटारींत ओडलो आनी वेगान मोटार सोडली.

स्टेशनाच्या व्हडल्या दारांतल्यान मोटार भितर सरली आनी ललिताक निरोप दिवपाक डेव्हीडान फाटीं वळून पळयलें. "ललिता, बाय, हांव..." ताचें वाक्य पुराय जावंकूच ना. "आरे, हें कितें? ललिता खंय गेलें?" ताणें आड्डून म्हळें. पपाक बी अजाप जालें. "म्हाका दिसता, येदोळ आमी थंय ॲक्सिडेंट जाला थंय थांबिल्ली तेन्ना तें देविल्लें जायत. बेगीन परतें वचचें पडलें." ताणें म्हळें.

डेव्हीडाक निरोप दिवन ताणें मोटार फाटीं घेतली. "हे पिशे चलयेक देविल्लें थंयच रावपाची तरी बुद्द जावं." ताणें मनांत म्हळें, "मंगेशा, तूं पाव."

तो परतून मार्केटा लागीं पावलो तेन्ना ताणें मोटारीचो वेग उणो केलो. येदोळ लोक जमिल्ले थंय आतां कोणूच नाशिल्लो. तो निर्शेलो. पयस एका आंब्या झाडा मुळांत एक मनीस बशिल्लो. ताका ताणें विचारलें, "तांबड्या रंगाचो फ्रॉक घाल्ली एक सान चली पळयल्या व्हय तुवें हांगा?" ताणें ना म्हूण तकली हालयली.

"आतां गेलें खंय म्हणपाचें हें ? परतें घरा वटेन चलपाक तर लागलें ना मू? मोटार मातशी सवकास

चलोवंया," ताणें मनांत म्हळें.

मार्केट फाटीं उरलें. महात्मा गांधींचो पुतळो पार केलो. मोटार इगर्जेक वळसो घालून बंदरा दिकेन वचपाक लागली. ताणें सहज म्हूण बस स्टॉपा कडेन नदर फिरयली. आनी कितें अजाप! ललिता थंय उबें राविल्लें, एका जाणट्या गिरेस्त मनशाचो हात धरून. मोटार दिसतकूच ललिता बेगीन फुडें धांवन आयलें. दुकांनी भरिल्ल्या तिच्या मुखामळार आतां खोस परजळटाली. "पापा, म्हाका दिसलें, तूं येता काय ना? इतलो उशीर कित्याक केलो पपा!"

"कितलें भेश्टायलें गो तुवें म्हाका ललिता! पूण पयलीं तुका मदत केल्ल्या ह्या गिरेस्तांचे म्हाका उपकार मानूं दी," पपान म्हळें. ते मेरेन तो मनीस ल्हवुल्हवू चलत मोटारी कडेन पाविल्लो. "तुमची चली खूब हुशार आं," तो म्हणपाक लागलो. "तुमी तिका सोडून फुडें गेल्ले तिच्या लक्षांत आयलें आनी ती सामकी म्हज्या लागीं आयली. सांगपाक लागली, 'हांव वाट चुकलां. म्हाका घरा पावयशात?' तिणें तुमचें नांव आनी नामो सारको दिलो. हांव तिका घेवन वचपाक बसीची वाट पळयतालों."

"तुमचे खूब उपकार जाले. तुमकां घरा सोडूं?" ललिताल्या पपान विचारलें.

"नाका. म्हाका हांगा बंदरार काम आसा. घरा

वचपाक कळाव जातलो," ताणें म्हळें.

ताचे परत एक फावट उपकार मानून दोगांय मोटारींत बसलीं आनी ती सुरू जाली. ललिताचो पपा गप्प बशिल्लो. ललितान ल्हवूच ताचे कडेन भियेत भियेत पळयलें. 'पपाक राग आयलासो दिसता. कितें म्हणटलो म्हूण कोण जाणा,' ललितान मनांतूच म्हळें.

"हां, बाय, कितें म्हणटा तूं?" पपान मातशें रागानूच विचारलें, "सामकें भेश्टायलें तुवें आमकां. डेव्हीड तर साप किण्ण जाल्लो."

ललिताच्या दोळयांत दुकां उबीं रावलीं. "म्हजी चूक जाली, पपा. त्या लोकांचे गर्दैंत म्हाका कांयच दिसनाशिल्लें. थंय कोणाक लागलें ना मू म्हूण म्हाका पळोवपाचें आशिल्लें, म्हूण हांव गर्दैंतल्यान वाट काडून फुडें पावलें. कितें जालां तें पळयतकूच हांवें बेगीन परतें येवपाचें थारायिल्लें. पूण हांव परतें येवन पळयतां जाल्यार मोटार ना."

"मागीर?"

"म्हाका रडूंक आयलें. इतल्यांत तो गिरेस्त मनीस दिसलो. हांवें ताचेसरीं वचून कितें जालां तें सांगलें. आमचो नामो दिलो. तो म्हणपाक लागलो, भियेवं नाका. हांव तुका घरा व्हरून पावयतां. पूण डेव्हीड अंकल तर गेलो आनी म्हाका ताका 'टाटा' करुंकूय मेळळें ना..."

ललिता परतें रडपाक लागलें. पपाचो राग निवळळो.

“पुरो आतां रडिल्लें. जावचें तें सगळें जावन गेलें. कितेंय आसूं. तुंवें हुशारकाय दाखयली खरी. आतां सरळ घरा वचुंया. तुगेले ममीक एक बरी काणी आयकुपाक मेळटली.”

“पपा, हें कितें,” ललिता आड्डलें,“त्या मनशाचें बसीचें भाडें परतें करपाक हांव विसरुनूच गेलें!” ताच्या हातांत पन्नास पयशांचें एक नाणें लिकलिकतालें.

ललिताच्या पपान एक हुस्कारो सोडलो. “तो कांय आमकां परतून मेळपाचो ना,” ताणें म्हळें. “कॉलेजांत सगळे म्हाका चाळीस वर्सांचो विसराळो प्रोफेसर म्हणटात. तूं तर सात वर्सांचेरूच विसराळें जालां!”



## ६. रवी आनी मुदी

रवीक पुरो जाल्लें. 'आतां बसतां मात्सो आनी दर्याची सोब तरी पळयतां,' ताणें मनांत म्हळें. पाप त्या भुरग्याचें! केन्ना सावन शेवालाडू भरिल्लो जड डबो घेवन तो दर्यावेळर भोंवतालो. आतां मेरेन ताचो एकूय शेवालाडू खपूंक नाशिल्लो आनी ताका लागून रवीक निर्शेणी आयिल्ली.

ताचे भोंवतणी तरेकतरांचे लोक बशिल्ले. विंगड विंगड पिरायेचे, रंगिबेरंगी मुस्तायकी घाल्ले. दर्या वयल्या थंड वाऱ्याची मजा घेत ते खोस मनयताले.

भुरग्यांचो खेळ पळोवपाक रवीक भोव आवडटालें. एक भुरगो आपले भयणीक उदका सरीं ओडून व्हरतालो. "नाका, नाका, हांव येना," ती चली आड्डताली. "यो गो शोभा, भियेवपासारकें कांय ना." ताणें म्हळें," म्हाका पळय." आनी इतल्यांत एक व्हड ल्हार मुखार आयलें. तो चलो सामको घुस्पलो आनी उदकांत पडलो. चली बाबडी ताचो हात सोडून आड्डत आवय लागीं धांवली. तो चलो धडपडत उबो रावलो आनी ल्हारां वटेन रागान पळोवपाक लागलो. ताचें सवंग इतलें मजेशीर दिसतालें की रवी आपले सगळे कश्ट एक खीण भर विसरलो आनी निर्मळ हांसलो.

मातसो मुखार एक बापूय आनी ताचो भुरगो हातांत

हात घालून बोमाडे विकपी मनशा वटेन चलताले. रवीन सुस्कारो सोडलो. 'आयज म्हजो बापूय आशिल्लो जाल्यार शाळा सुट्टकूच हांगा येवन शेवालाडू विकपाची म्हाका गरजूच नाशिल्ली,' ताच्या मनांत विचार आयलो. सदां सांजेचे ताणें जोडिल्ल्या थोड्या भोव रुपयांची घराक मदत जाताली. वावराडी म्हूण काम करून ताचे आवयक म्हयन्याक फकत चाळीस रुपये मेळटाले. जेवणा-खाणाक आनी कपड्यांक ते पावनाशिल्ले. ताच्यो त्यो दोन भयणी आंगान सडसडीत आनी बाविल्लीं तोंडां, दिसपट्टीं दोगांय भूक लागली म्हूण रडटालीं.

रवी उठलो. कितलोय वेळ लागूं दी, सगळे लाडू सोपोवंकूच जाय, ताणें थारायलें. ताका आतां मात्शी तरतरी आयिल्ली. उदका सरीं बशिल्ल्या एका सान कुटुंबा लागीं तो गेलो. "शेवालाडू, घरावे शेवालाडू जाय?" ताणें उमेदीन म्हळें.

"चार दी," दादल्यान सांगलें.

"बाबा, चारूच कितें रे? ते कशे पावतले?"

सगळयांत व्हड भुरग्यान म्हळें. ताचे भयणीन बी गोड आवाजान ताका तेंको दिलो. त्या दादल्यान आनीक स मागून घेतले. रवी खोशेन हांसलो. आनी ताचे कडच्यान पयशे घेवन ताणें मोड परत केली.

रवी फुडें गेलो. एकठांय बशिल्ल्या लोकांच्या चार चोम्यांनी ताणें विचारून पळयलें. कोणेंच दाद दिली ना.

आतां काळोख पडूंक लागिल्लो आनी लोक ल्हवुल्हवू उठून वचपाक लागिल्ले.

चलतां चलतां रवी दर्यावेळे वयल्या सामसूम आशिल्ल्या कोनशा मेरेन पावलो. 'आयज नशिबूच खोटें,' ताणें मनांत म्हळें. एक बरी मुस्तायकी घाल्लो मनीस आनी ताची बायल निक्तींच उठून वचपाक तयार जाल्लीं. रवी तांचे सरी धांवतूच गेलो."चल्, हट्," त्या मनशान म्हळें, "आमकां हांगा खायत बसपाक वेळ ना." आनी तो रोखडो चलूंक लागलो.

"बरें बाबा," रवी पिरंजळ्ळो. "आतां पुरो जालें." तो चार पावलां फुडें घालून वता इतल्यांत ताणें पळयलें कीं दोगांय घोव बायल परतीं येवपाक लागल्यांत. दोगांय कितें तरी सोदतालीं अशें दिसतालें. बायल तर सामकी रडपाक आयिल्ली, "मुदी... म्हजी मूदी, खंय पडिल्ली आसत काय?" तिचो घोव तर तापिल्लो. "तूं तसलीच मूर्ख, बेजबाबदार बायल. वचत थंय तुज्या दागिन्यांचें प्रदर्शन मांडपाक जाय काय कितें?"

तीं दोगांय खंय बशिल्लीं तो जागो तांणी सोदून काडलो आनी बोटांनी रेंव सारीत तीं सोदूंक लागलीं.

"हांवूय सोदूं?' रवीन विचारलें, "हय यो." त्या मनशान काकुळटेच्या आवाजांत जाप दिली. "पळय, म्हजे बायलेची मुदी मेळटा काय. हांगाच खंयतरी पडिल्ली आसतली ती."

हो वेळ मेरेन थंय लोकांलो सानसो चोमो जमलो. एका

मनशान फस्क काडून काडी पेटयली आनी तो सोदपाक मदत करूंक लागलो. फस्कांतल्यो सगळयो काड्यो पेटोवन जातकीर ताणें फस्क उडयलें आनी तो खांदे उडोवन चलूंक लागलो. हेर सगळे तोंड उकतें घालून सगळें पळयताले. मातशे थांबताले, कांय वेळ पळयताले आनी चलूंक लागताले.



आतां बरोच उशीर जाल्लो. रवीन थारायलें, पुरो आतां, घरा वचुंया. इतल्यांत ताच्या बोटांक कितें तरी घट्ट आनी वाटकुळेंच लागलें. 'ही पळय, मेळ्ळी!' अशें मनांतल्या मनांत ताणें म्हळें आनी खिणाभितर एक नश्टो विचार ताच्या मनांत रिगलो, 'कांय नाका तांकां दिवपाक.' तोंडार निर्शेणेचो भाव हाडीत तो ल्हवूच उठलो. हातांतली मुदी ताणें ल्हवूच बोल्सांत घाली. "कांय उपेग ना मामा. हांव वयतां," ताणें म्हळें, "घरा आवय वाट पळयतली. आतां वचुंकूच जाय म्हाका; कळाव जालो."

"बाब, तूं तर सगळ्यां परस चड वेळ सोदीत आशिल्लो. घे, हे घे," त्या मनशान म्हळें आनी एक पंचवीस पयशांचें नाणें काडून ताणें रवी मुखार धरलें. रवीन तें न्हयकारलें पूण त्या मनशान आग्रो केलो म्हूण ताका तें घेवचेंच पडलें. पूण ताच्या कर्माक लागून ताका आपणें चडूच गुन्यांव केलो अशें दिसूंक लागलें

व्हडल्या रस्त्यार येतकूच तो घरा दिकेन ताकतिकेन चलत रावलो. ताच्या मनांत खूब येवजण चलताली 'आवयक सांगपाची कांय गरज ना. फाल्यां ती मुदी विकून उडोवंया. मागीर मेळिल्ले पयशे खंय तरी सुरक्षीत सुवातेचेर दवरुंया आनी थोडे थोडे काडुंया. म्हणटकूच कोणाकूच कळपाचें ना. एक दीस, अशें करुंया...' रवीच्या विचारांची माळ अचकीत तुटली. तो ताच्या

घरा, त्या सान खोंपटा मुखार येवन पाविल्लो. ताणें ल्हवूच दार उगडलें. एका कोनशात लापयांव मंद जळटालो. आवय आजून जागी आशिल्ली. पूण दोगूय भयणी गाढ न्हिदून पडिल्ल्यो. "आयज उशीर कित्याक जालो रे पुता? हांव कितलो हुस्को काडटालें."

"कितें सांगू आई, आयचो दिसूच वायट गेलो. हांवें खूब यत्न केलो; पूण दोनूच रुपये मेळ्ळे. हे घे."

"आसूं रवी. जेव आतां आनी न्हीद. पुरो जालां जातलें तुका. आनी भूकय बी बरी लागल्या जातली."

रवी आंबले वांगडा पेज जेवलो आनी हातुळणार वचून पडलो. मातसो काचाबूल जाल्लो तो. त्या इतल्या पयशांचें कितें करपाचें हाचेर तो येवजितालो. भयणीं खातीर कांकणां आनी रिबीनी घेवपाचें ताणें थारायलें. तीं पळोवन त्यो खोशी जातल्यो हें तो जाणा आसलो. आवयक सदांच थोडे चड पयशे दिवचे आनी सांगचें की शेवालाडू विकून मेळ्ळे म्हूण, आनी खासा आपणा खातीर तो एक खेळांतलें विमान घेवपाचो आशिल्लो. सदांच खेळण्यांच्या दुकानांत तो आशेवन जें पळयतालो न्हय, तेंच.

'म्हज्यान आनी रावं नज,' रवीक दिसलें, 'घरांत सगळें शांत आसता तेन्नाच मातशी ती मुदी बरी करून पळोवंया.'

सगळीं जाणां न्हिदून पडिल्लीं. रवीन ल्हवूच आपल्या

बोल्सांत हात घालो आनी ती मुदी भायर काडली. ल्हवूच एक फस्क पेटयलें आनी ती मुदी तो सारकी नियाळूंक लागलो. अजापान ताका घुसमटिल्ले वरी जालें. मुदी कसली? सादी सवाय प्लॅस्टिकाची आशिल्ली ती. पचवीस पयशे लेगीत मोल नाशिल्लें तिचें! तिचेर धनाचे देवीचें, लक्ष्मीचें चित्र कोरिल्लें. रवी तिचे कडेन तटास जावन पळोवपाक लागलो. ताका दिसलें, तीय आपणा कडेन खेबाडां करपाचे नदरेन पळयता.

फस्काची काडी जळ्ळी आनी पालवली. रवीन फस्क पयस उडयलें. निर्शेणेचीं दुकां ताच्या दोळयांत भरून आयलीं. ल्हवूच तो ताच्या हातुळणार गेलो आनी आड पडलो. ताचीं सगळीं सपनां भंगून गेल्लीं. पूण कांय वेळांतूच ताका मेकळें मेकळें दिसपाक लागलें. 'जालें तें बरेंच जालें. म्हाका अशीच बुद्द शिकपाक जाय आशिल्ली. नाय जाल्यार जें कितें केल्लें तें बरें करूंक नाशिल्लेंच. हाचे मुखार हांव कोणा वांगडा फटिंगपणा करचो ना.' शिणिल्ले दोळे धांपतां धांपतां रवी विचार करतालो. ताका केन्ना न्हीद लागली तें ताचें ताकाच कळ्ळें ना. एका दिसांत कितलें तरी घडून गेल्लें.



## ७. रमेशालें गुपीत

“चूक जाली आई, क्षमा कर.” रमेशान म्हळें, “खरेंच गे, ती बरणी फोडपाचें म्हज्या मनांत लेगीत नाशिल्लें.” रमेश जाणा आसलो की ताची आई आयज खूब रागार आसा. आनी अशें दोन वरांत तीन फावटीं घडलें.

“पुरो जालें आतां रमेश. म्हाका कळना तुजेर कितें सांवार आयला तो. थोड्याच वेळा पयलीं तुवें ते वावराडेचे फाटीर पाल उडयली आनी तिणें सगळयो बशो फोडून उडयल्यो. मागीर बागेंतले कुंडेंत शाब्बाची कास रिती करून आयलो; आनी आतां हें. आनंद काकान स्विडन सावन हाडिल्ली बरणी ती. तीय तुवें फोडून उडयली.”

आईन रमेशाक बरो घपकायलो आनी शिटकावणी दिली की हाचे फुडें आनीक कांय अवचिन्नपणां करीत जाल्यार ताका खर ख्यास्त भोगची पडटली.

रमेश चोरपावलान माळयेर न्हिदचे कुडींत गेलो. सदांचे वरी ताचो भाव रहस्यकथा वाचपांत गुल्ल जावन गेल्लो. “एऽ, कसलो बोवाळ चल्ला रे?” ताणें विचारलें. रमेशान जाप दिली ना. “तुजें तूं पळोवन घे. दुसऱ्याचे भानगडींत तूं कित्याक नाक घालता?” वतना तो वाटेंतूच बडबडलो.

"हांव कितें करूं? मस्ती करपाची म्हूण हांव कांय करिना आनी आई मात बेठीच म्हजेर रागार जाता." तो गच्चेर गेलो. वयल्यान इतलो बरो गांव दिसतालो. सारकीं एके रांगेंत बांदिल्लीं घरां आनी तांच्या मुखार सान, सोबीत बागो . "हांगा आमी कित्याक आयलीं कोण जाणा! पणजेंत कितलें बेस बरें आशिल्लें!"

रमेशाचो बापूय बँकेंत कामाक आशिल्लो आनी स म्हयन्यां फाटीं ताची हांगा मडगांवां बदली जाल्ली. पयस ताका तो व्हडलो रस्तो दिसतालो. ताचे वयल्यान धूळ उडयत बसी धांवताल्यो.

'आतां कळ्ळें, कितें करपाचें तें. ' रमेशान थारायलें, 'घरासाकून हांवें पळून वचपाचें. मागीर बसूं आईक जाय तितली रडत!'

तो व्हवू पावलांनी सकयल आयलो. आई रांदचे कुडींतल्यान भायर आयली. ती खूब कामांत आशिल्लीशी दिसताली. "एऽ रमेश, हांव मातशी बाजारांत वचून येतां. वरा भितर येतलीं. तूं कांय मस्ती करूं नाका आं! सांगून दवरतां."

रमेशान एक हुस्क्या मेकळो सुस्कारो सोडलो. 'देव पावलो. आई कांय ना आतां हांगा. म्हाका पळून वचपाक बरी संद मेळ्ळी.'

तो व्हवूच माळयेर गेलो. आलमारींत ताचो मातयेचो मिलेर आशिल्लो, तो ताणें फोडलो. तातूंत तो फाटल्या

स म्हयन्यां सावन पयशे एकठांय करतालो. ताणें मोड मेजली. सगळे मेळून पांच रुपये वीस पयशे आशिल्ले. ती सगळी मोड ताणें आपल्या पाकिटांत घालून घेतली.

ताचो भाव आजुनूय वाचपांत गुंग आशिल्लो. रमेश ताकतिकेन सकयल आयलो. रांदचे कुडींत वचून ताणें चार बिस्किटी बोल्सांत घाल्यो आनी कोणाक सुलूस लागूंक दिनासतना तो घरांतल्यान भायर आयलो.

घरा मुखा वयले पाळणींतल्यान तो ल्हवूच चलत आयलो आनी व्हड रस्तो लागतकूच वेगान चलपाक लागलो. आजून मेरेन ताका कोणेंच पळोवंक नाशिल्लो. बस स्टँडा मेरेन चलून वचपाचें आनी मागीर थंय बसींत बसून पणजे वचपाचें अशें ताणें थारायलें. 'थंय एकदांचो पावलो की काका कडेन वचून रावंक येता. काकी भारी मोगाची. ती म्हजेर रागार जावची ना. म्हजी सगळी भिरांत सामकी पयस जातली,' ताणें मनांत म्हळें.

"हो आनी हांगा खंय?" ताका पळोवन कोणें तरी म्हळें हें ताका कळ्ळें. आरे, हो घोगरो आवाज तर हरीचो. हरीचे यादिनूच तो कांचवेलो. हरी म्हळ्यार ताचे शाळेंतलो महाकुच्छित्री मस्तो पोर. इतल्यांत हरी मुखार आयलो आनी ताणें रमेशाच्या खोमसाची कॉलर घट्ट धरली. रमेशान ताका एक हिसडो दिलो, ताच्या पोटार एक धुमको मारलो आनी ताच्या कचाट्यांतल्यान ताणें

आपणाक सोडोवन घेतलो. आपली सुटका जाली हें कळटकूच तो जोरान धांवंक लागलो; पूण हरी लांब लांब धेंपां मारीत ताचे सरीं पावलोच.

"पळून वता चोरा, हांव तुका दाखयतां," म्हूण परतो ताणें ताका एका हातान घट्ट धरलो आनी दुसऱ्या हातान तो ताचीं बोल्सां तपासूंक लागलो. बोल्सांतलें पाकीट आयतेंच ताच्या हाताक लागलें. रमेश झंप्यावरी ताचे वटेन पळयत रावलो. हरीन पाकिटांतले पयशे आपल्या हातार ओतून घेतले आनी 'धऽर' अशें आड्डून तें रिकामें पाकीट रमेशा कडेन मोखून तो व्हडाव्हडान हांसत पळून गेलो.

रागान आनी निर्शेणेच्या दुखांनी रमेशाचे दोळे भरून आयले; पूण फाटीं सरचो न! असो ताणें निश्चय केलो. 'एकाद्र्या मोटारवाल्याक पांया पडून थारपाक सांगुंया. कोणूय तरी मेळटलोच,' ताणें मनांत म्हळें.

आतां वत तापूंक लागिल्लें. रमेशाक भुकूय लागिल्ली, पूण ताणें थारायलें की बिस्किटो मागीर खावंया. रस्त्या देगेक एक च्याचें दुकान आशिल्लें. थंय वचून तो उदक पिलो. मातशी तरतरी आयली शें दिसतकूच तो परतो व्हड रस्त्या वयल्यान तरातरा चलूंक लागलो.

तो रस्तो बरो सोबीत, रुंद आशिल्लो. ताच्या दोनूय वाटांनी चिंचेचीं आनी वडाचीं झाडां आशिल्लीं. खंयच्यान तरी थंड वारो येतालो आनी रमेशालें खोमीस

तातूंत फडफडटालें. मदींच एक-दोन बैलां गाडे मेळळे. गाड्यांवयलें वजें ओडून व्हरपी बैलांच्या गळयांतल्यो घांटी तालांत वाजताल्यो. एका गाड्या वयलो गाडेकार मात न्हिदून पडिल्लो आनी ताच्या हातांतलें चाबूक हुमकळटालें. 'पडना जाल्यार पुरो हो,' मजा पळयत राविल्ल्या रमेशान मनांत म्हळें.

रमेशाले पांय आतां दुखूंक लागिल्ले. ताणें थारायलें, आतां थोडो आराम करुंया. रस्त्या देगेच्याच एका भाटांत तो भितर सरलो आनी बरीशी सांवळी पळोवन एका झाडा पोंदा आड पडलो. केन्ना ताका न्हीद लागली तें ताचें ताकाच कळळें ना.

तोंडाक कितें तरी थंड लागलें म्हूण रमेश जागो जालो. एक माणकुलोसो सुण्या पेटो ताचें तोंड जोराजोरान ल्हेंवतालो. ताणें ताका मांडयेर घेतलो आनी ल्हवुल्हवू ताचें आंग थापटिलें. रमेशाक कितलीं वरां जालीं तेंच कळना जालें. ताणें तीन बिस्किटो खावन घेतल्यो आनी एक त्या सुण्याक दिली. परतो रस्त्यार येवन तो चलूंक लागलो.

फाटल्यान येवपी एका मोटारीचो आवाज ताच्या कानार आयलो. मोटार लागीं येतकूच रमेशान हात वयर करून थारपाक सांगलें; पूण मोटार थारली ना. रमेशाक वायट दिसलें ना. कारण ताणें मनांत म्हळें, ही ना जाल्यार दुसरी, कोणूय तरी सभागी थारतलोच. तो

चलतूच रावलो, पूण ते उपरान्त एकूय मोटार आयली ना.

तो सुणो ताच्या पांयांत घुस्पतालो. "एऽ, फाटीं सर, म्हाका वचूं दी," ताणें ताचेर धेंगसो घालो. पूण तो कसलो खट! ताची फाट सोडिना जालो. "हटी मरे तूं! वता काय ना? म्हजे फाटल्यान येवं नाका," ताणें तापून म्हळें. पूण त्या सुण्यान फक्त शेंपडी हालयली आनी लिकलिकीत दोळयांनी ताचे कडेन आशेन पळयलें. ताका पळयतकूच अचकीत रमेशाक घराची याद आयली. ताका दिसलें, कित्याक ओगीच घरा पसून पळून वचपाचें? 'म्हज्या वांगडा ह्या सुण्याकूय व्हरूं येता आनी घरच्यांनी म्हाका सोदपाक सुरवात करचे पयलीं घरा पावं येता,' ताणें थारायलें. 'घडये म्हज्या हातसून चूक घडली जावंये. आतां तरी आई रागार जावपाची ना. तिका हांव सांगीन, म्हजी चूक जाली, क्षमा कर म्हूण.'

रमेशाली परती भोंवडी सुरू जाली. ताका आतां बरें दिसतालें. झेतान तो आपणाल्या गांवा वटेन चलूंक लागलो. तो सुणोय ताच्या माणकुल्या पांयांनी जाता तितले बेगीन रमेशा फाटल्यान चलूंक लागलो.

रमेश व्हडल्या बाजाराच्या रस्त्यार पावलो. आनीक पंदरा मिनटांनी तो आपल्या घरा पावतलो. 'अपुर्बायेचें घर तें! ओगीच घर सोडून वचपाचें म्हज्या मनांत आयलें.

सामको बोड-फिरको हांव, आनी कितें !' ताका आपलीच तिडक मारली.

फाटल्यान व्हडाव्हडान मोटारीचो हॉर्न वाजलो आनी रमेशाली तंद्री भंग जाली. ताचेच वटेन येवपाक लागिल्ली तांची ती पोरणी मोटार ताणें दिस्त वळखली. ताचो बापुयूच ती चलयतालो आनी ताच्या शेजरा आई बशिल्ली. हुस्क्यान तिचो चेहरो बाविल्लो. रमेशालो भाव हात हालयत ताका आपयतालो. मोटार येवन सामकी ताचे सरीं थांबली आनी आई पयलीं भायर देंवली. "रमेश, खंय गेल्लो रे पुता? हांव सामकी भियेली. तुज्या दादान सांगलें, तूं सकयल आसा आनी हांवें धरलें तूं वयर गच्चेर आसा म्हूण. तूं जेवपाक आयलो ना तेन्नाच आमकां कळ्ळें की तूं घरांत ना. सगळीं जाणां हुस्को करतालीं."

"आई, चूक जाली म्हजी. हांव...हांव.." आपूण घरांतसून पळून गेल्लों हें सांगपाचें ताच्या जिवार आयिल्लें. "म्हाका हें सुणें मेळ्ळें आनी हांव फिरूंक गेलो. आमी दोगूय इतले खेळ्ळे की कितलीं वरां जालीं हें लक्षांतूच आयलें ना." तो उसरपत नासतना उलोवपाक लागिल्लो. पूण आवयन ताका ओडून घेवन वेंग मारली आनी तो फुडें कितें उलोवपाचें ते विसरुनूच गेलो. "चल, आतां घरा वचुंया. म्हाका दिसलें, तूं घरांतसून पळून गेलो काय कितें. म्हजो शाणो भुरगो तो.

आतां हुनश्या उदकान न्हाणयतां तुका आनी मागीर खावपाक दितां. तुका सांजो आवडटा न्ही? तोच करून घालतां, चल."

ह्या सगळ्या बोवाळांत आपल्याक कोणूच विचारिना अशें त्या सुण्याक दिसलें. ताणें भुकून पळयलें. "आई, हाका घरा घेवन वचुंया?" रमेशान विचारलें. "तो म्हाका पळयतकूच खोशेन नाचता आनी म्हजी फाट अजिबात सोडिना."

आईन अनमनून बापाय कडेन मातशें दुबावानूच पळयलें. "पुरो जालें आतां. बसात सगळीं भितर. हांगा असो कितलो वेळ रावं हांव?" बापायन म्हळें. "रमेश, सगळीं म्हळयार तातूंत तुजो नवो इश्टूय आयलो," आईन हांसत म्हळें.

हे भाशेन रमेश घरा परत आयलो. थोडीशी बुद्द शिकून म्हणपाक हरकत ना. ताचें गुपीत मात कोणूच नकळ. तें जाणा फकत तो एकलो आनी ताचो वांगडी पप्पू (त्या सुण्याचें हें नवें नांव!). आनी पप्पू तर तें कोणाकूच केन्नाच सांगचो ना!



## ८. दाळमां

मीरान येवजून पळयलें. काशीबाय केन्ना सावन ताच्या घरांत वावराडी म्हूण काम करताली? तिका उगडास जायना जालो. भुरगेपणा सावन तें तिका पळयत आयलां. म्हळयार आठ वर्सां सावन तरी नेमान. काशीबाय ल्हान भुरग्याक न्हाणयताली आनी मीरा तिका एक सारकें पळयत उबें राविल्लें. 'कितली अपुर्बायेन न्हाणयता पळय! म्हजेय अशेच लाड करपाचे न्हय तिणें. म्हाका दिसता, म्हजे वयलो मोग सोंपलो तिचो,' दुस्वासान भुरग्या कडेन पळयत मीरा येवजूंक लागलें.

काशीबाय आतां पद म्हणत, थापटीत भुरग्याक न्हिदयताली. मीरा वचून तिच्या म्हऱ्यांत बसलें. काशीबायन पांय सोडिल्ले आनी तिचे मांडयेर बाबू सुशेगाद न्हिदिल्लो. पांय हालयत ती तोंडान खंयचें तरी पोरणें पद म्हणटाली.

"कुरू कुरू कुरू कानाऽ
म्हशी गेल्यो रानां
आनी आमडून हाड रे मामाऽ
गायी म्हशीऽ ऽ"

काशीबाय मदींच थांबली. मीराकडेन पळोवन ती हांसली आनी परतें पद म्हणूंक लागली.

"थंडीचो जोरऽ कांबळ घाल आंगार
मीरा आमचें भांगर, भयण तुजीऽ
जोजो रे जोजोऽ...जो जो जोजो..."

मीरा खोशेन हांसलें, काशीबायच्या गळयांत हात घालून धोल्लें आनी खेळपाक म्हूण भायर धांवलें.

मीराली आवय खूबशे फावटीं म्हणटाली, "काशीबाय ना जाल्यार म्हजें कशें जातलें देव जाणा!" कारण भुरग्यांक सांबाळचें जरी काशीबायलें काम आसलें, तरीय ती मीराले आवयक रांदच्या कामांत भोव मदत करताली.

केन्नाकेन्नाय मीरा पळयतालें, सकाळची काशीबाय कामार येताली तेन्ना तिचे दोळे तांबडेगुंज आनी सुजिल्ले आसताले. मीरान कितलेशे फावटीं विचारलें तरी ती कांयच सांगनाशिल्ली. एक दीस मीराच्या बापायक ताची आई सांगता आसतना ताणें आयकल्लें, "काशीबायलो घोव सामको वायट देखीचो मनीस. सोरो पियेवन येता आनी ते गरीब बायलेक मारता खंय."

"तो दळिद्रो कांय कामाचो न्हय," तिचो बापूय तापून म्हणपाक लागलो. "हांवें कामाक लायिल्ले कडेन ताणें असलीं नश्टीं कर्तुपां केलीं की निमाणें ताका कामा वयल्यान काडून उडोवचो पडलो."

"भोव वायट दिसता तिचें. काशीबायक थोडे चड पयशे दिवचे अशें दिसता. पूण पन्नास रुपयां वयर

आमी आनीक कितें दिवंक पावतलीं? खर्च कितें सुमाराचो? म्हारगाय तर सामकी वाडूंक लागल्या. हयव्हय, बरी याद जाली. साकर सोंपल्या. फाल्यां वचून हाडूंक जाय." ती रांदचे कुडी दिकेन वचूंक लागली तसो तिचो आवाज ल्हवुल्हवू उणो जायत गेलो.

फुडले फावटीं काशीबाय सुजिल्ल्या दोळयांनी आयली तेन्ना मीरान तिका कांयच विचारलें ना. मोन्यानींच तें तिका पळयत रावलें आनी वयले वयर ती सुस्कारे सोडटा हें ताच्या लक्षात आयलें. आयज ती तांबडें कापड न्हेशिल्ली. काशीबायलें तांबडें कापड मीराक भोव आवडटालें. कापड पिंजिल्लें, थिगळां मारिल्लें आसलें तरी निवळ आसतालें. काशीबायक तो रंग खुलून दिसतालो आनी तिच्या नाकांतल्या तांबड्या खड्याचे भांगरा पिलयेसयत तो भोव सोबतालो. तिचो दागिनो म्हणपाचो तो हो इतलोच. "तुजे कडेन दुसरो कांयच दागिनो ना?" एक दीस मीरान तिका विचारलें.

"ना गो पोरा, हांवें केन्नाच सगले विकून उडयले." काशीबायन जाप दिली, "पूण म्हजी ही पिली आसा न्ही? तितलीच पुरो म्हाका. आनीक कितें जाय?"

ताचे उपरान्त तिनूच दिसांनी मीरा दुयेंत पडलें. जोर चडूंक लागलो आनी मीराचीं आवय-बापूय भियेलीं. काशीबाय मात सामकी मीराच्या हातुळणा कडेन सगळो वेळ बसून आसताली.

एक दीस मीराच्या सांगाताक बसपा खातीर घरा रांदून, घोवाक वाडून काशीबाय रातची मीरागेर आयली. रातचीं दोन वरां जाल्लीं जावंये, अचकीत मीराक जाग आयली. जोरान तें फणफणटालें. तोंडान बडबडटालें, "आई, आई, म्हाका एक...म्हाका एक..." ताचो आवाज बारीक जायत गेलो. काशीबायन ताच्या कपलार हात दवरलो. जोर खूब आशिल्लो. "कितें जाय मीरा?" ताच्या केंसांतल्यान ल्हवूच हात भोंवडायत आईन मोगान विचारलें. "कितें जाय तुका? सांग म्हाका. हांव हाडून दितां."

मीरा मातशें परवलें; मागीर म्हणपाक लागलें, "आई, म्हाका एक दाळीम जाय. माणकांवरी तांबडें दाळीम. तातुंतल्यो त्यो तांबड्यो बियो म्हाका पळोवपाक जाय. हांव थोड्योशोच खातलें आं, थोड्योशोच खातलें." मीराचो आवाज मोव जालो आनी तें परतें दोळे धांपून न्हिदलें.

"आतां कितें करुंया?" आई रडपाक आयिल्ली, "हे तर दाळमाचे दीस बी न्हय."

"ताका न्हिदूं दी आता, फाल्यां सकाळीं उठ्ठकूच पयलीं व्हडल्या बाजारांत वचून दाळमां मेळटात काय पळयतां"

दुसऱ्या दिसा मीराच्या बापायन बाजारांत वचून सगळया दुकानांनी सोदलें. पूण दाळीम खंयच मेळ्ळें ना.

बापायलें निर्शेल्लें तोंड पळयतकूच मीराल्या ध्यानांत आयलें की ताका कांय दाळीम मेळळें ना. "सगळे पसरकार म्हजे कडेन पळोवन हांसले. म्हणपाक लागले, "कितें सायबा, हे दाळमाचे दीस न्हय म्हूण नकळ तूं? खबर ना तुका? तीन म्हयन्यांनी यो; पांटलो भर दिवंया. "हांव तरी कितें करूं?" बापायन म्हळें.

मीरान मात दाळमाखातीर हटूच धरिल्लो. ताचो जोरूय चडटालो, देंवतालो.

दुसऱ्या दिसा काशीबाय कामाक आयली ना. सुरवातेक मीराले आईक अजाप दिसलें. मागीर ती निर्शेली आनी हुस्को करपाक लागली. 'तिका जिवाक बी बरें ना काय कितें,' ती मनांतल्या मनांत चुरचुरली.

ते रातीं सादारण णव वरांचेर भायलें दार कोणें तरी खटखटायलें. मीराल्या बापायन दार उगडलें आनी काशीबाय भितर आयली. ती भोव थकिल्ले वरी दिसताली. पूण तिच्या तोंडार खोस दिसताली. तिच्या पदरा पोंदसून तिणें ल्हवूच दोन दाळमां काडलीं. खूब सोबीत दाळमां-लक्क हळडुवीं, मदींच तांबशो शिरो, रंगीत चित्रांत काडिल्लीं आसतात न्हय, तशींच.

मीराले आईचे दोळे अजापान फुल्ले. "आं, हें कितें गे काशीबाय, खंय मेळळीं तुकां हीं दाळमां?" तिणें विचारलें.

"ती व्हडली काणी आसा वयनी. पयलीं आमी



मीराक दाळमां दिवंया," तिणें म्हळें.

सगळीं जाणां न्हिदचे कुडींत आयलीं. अर्दवट दोळे धांपून मीरा न्हिदिल्लें. "मीरा, ए मीरा," आवयन ल्हवूच मीराक जागें केलें, "हें पळय, काशीबायन तुजे खातीर कितें हाडलां तें!" आईन दाळीम फुडें केलें. मीरान

ल्हवूच दोळे उगडले आनी तें दुबावान दोळे ताणून पळयत रावलें.

ताच्या तोंडार हांसो परजळ्ळो. "आई, म्हाका सोलून दिता?" ताणें विचारलें. "हय, दितां आं बाय," आवयन जाप दिली. "पूण थोडेंशेंच खावचें हां, कळ्ळें मुगो?" काशीबायन दाळीम सोल्लें आनी थोड्यो बियो चमच्यान ताच्या तोंडांत घाल्यो. "काशीबाय, पळय बियो कशो माणकांवरी दिसतात, न्हय? म्हाका एक सपन पडिल्लें, तातूंत हांव आशिल्लें राजकुमारी आनी म्हज्या गळयांत आशिल्लो एक माणकांचो हार. माणकां वयल्यान म्हाका याद जाली, म्हजे आवडीच्या दाळमांची, आनी तें खावपाक हांव आवंडेल्लें. दाळीम मेळ्ळें आनी आतां हांव खूश जालें," मीरान म्हळें.

इल्लो इल्लो जोर देंवपाक लागलो आनी दोन दिसांनी निवळ्ळो. मीरा बरें जावन भोंवपाक लागलें. एक वायट सपन सोंपता तशें मीराचें दुखणें सोंपून गेल्लें.

सान बाळाक पाळण्यांत घालून काशीबाय न्हिदयताली. सदांचे भशेन मीरा बी थंयच तिका पळयत उबें राविल्लें. अचकीत ताणें काशीबायचो पदर ओडलो आनी तिका विचारलें, "काशीबाय, तुजी पिली दिसना मगे? खंय शेणली ती? कितें जालें?"

"तुका हाचे पयलीं कळुंकूच ना?" काशीबायन म्हळें, "आगो, सात-आठ दीस जाले ताका. म्हजे सारके

गरिबाक कित्याक जाय ती पिली? म्हजे ते पोरणे पिलये परस तूं कितलेंशेंच अदीक मोलाचें."

ती कितें म्हणटा तें मीराक कळ्ळें ना. तें मातशें गोंदळ्ळें. अजापूय जालें; पूण काशीबायन परतो केन्नाच तो विशय काडलो ना.

अजाप जालें ना तें फकत मीराले आईक. ती गोंदळ्ळी बी ना. कारण काशीबाय कितें उलयली तें फकत मीराले आईकूच खबर आशिल्लें. ती पिली खंय गेली हेंय तिका कळिल्लें.

काशीबायन मीराले आवयक खरें घडलें तें सगळें सांगिल्लें. तिणें ती पिली एका शेटीगेर घाण दवरिल्ली. बदलाक शेटीन तिका फकत पंचवीस रुपये दिल्ले. त्या पयशांची तिकेट काडून ती पयस कुमठ्या लागच्या तिच्या गांवाक गेल्ली. दाळमां घेवन ती आयिल्ले रातींच मीराले आवयन तिका विचारलें, "आगे, पूण तुवें हें सगळें केलें कित्याक?"

"वयनी, कितें जालें जाणा?" काशीबायन सांगिल्लें, "मीरा दाळीम जाय म्हूण रडटालें न्हय, तेन्ना हांव येवजितालीं. इतल्यांत अचकीत म्हाका म्हज्या गांवांतल्या दाळमा झाडाचो उगडास जालो. आमच्या गांवांतल्या कामत शेणयले बागेंत एक दाळमाचें झाड आसा. सदांच फळ धरपी. दाळमाचे दीस आसूं, नासूं. म्हूण हांव भायर सरलें. मनांत म्हळें, 'व्यंकटेशा, झाडाक एक तरी फळ

आसूं दी रे. हांव थंय पावल्यार बागेंतलो माळी भितर येवंक दिना जालो. हांव भोव निर्शेल्लें; पूण म्हजो आवाज आयकून स्वता कामत शेणयूच भायर आयलो. हांवें मीराविशीं सगळें सांगलें. ताणें म्हाका भितर आपयलें आनी आपखोशेन म्हणपाक लागलो, "बाय, तुजें भाग्य बरें आसा. फकत दोन दाळमां उरल्यांत. दोनूय घेवन वच तूं." वयनी ,म्हाका कितली खोस जाली म्हूण सांगूं? हांवें दोनूय दाळमां काडून घेतलीं आनी निमाणी बस धरून परती घरा आयलीं. हांव जाणां, आतां मीरा बेगीन बरें जातलें, पळय."



## ओरिएंट लाँगमनचीं पुस्तकां:

- देखदिण्यो काणयो
- वावटळ आनी हेर काणयो
- अलिबाबा आनी हेर काणयो
- जादूची बाग आनी हेर काणयो
- काणयो: देवांच्यो आनी मनशांच्यो: १
- काणयो: देवांच्यो आनी मनशांच्यो: २



ओरिएंट लाँगमन

Jaduchi Baag Ani Hear Kanyo (Konkani)
Magic Garden and Other Stories (Konkani)
ISBN 81 250 0228 6

Rs.15.00